# हुकमाची राणी

मूळ रशियन लेखक

ए. एस्. पुश्कीन

कुळागर प्रकाशन
(२००६)

हुकमाची राणी (कादंबरीका)
Hukmachi Ranni (Novellette)

❑

मूळ रशियन लेखक
ए. एस्. पुश्कीन

❑

कोंकणी अणकार
चंद्रकांत केणी

❑

पयली आवृत्ती : जून २००६

❑

छापपी :
कुळागर अक्षर मुद्रा
आर्के – मडगांव.

❑

उजवाडपी :
अनिल पै
कुळागर प्रकाशन
पो. बॉ. नं. ७८
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

❑

मोल : १० रुपया.

# १

नारूमोव्हाल्या घराकडेन हस्पीकांचो खेळ चलतालो. दीस शिंयाचे. रात मोन्यांनी देंवताली. रातींचे जेवण करूंक सगळे बसले तेन्ना फांतोडेवेली पांच वरां जाल्ली. जे कोण खेळांत जिखिल्ले ते मोटे उमेदीन सुरीकांठो नाचयताले; हेर आपले आपले प्लेटीमुखार बुकले कशे बशिल्ले. पुण जेन्ना मेजार शांपेन आयली तेन्नां बसकेंत जीव आयलो आनी सगळेजाण गजालींत रंगूंक लागले.

'कितें सांगतां तूं सुरीन?' येजमान नारुमोव्हान विचाल्लें.

'सांगतलो आनी कितें? सदांभशेन आजूय हारलों. म्हजें नशीबच फुटकें खरें! हरशीं हांव ल्हान ल्हान दाव लायतां, केन्नाच फुरफुरना, तकली सदांच थंड दवरतां. तरी आसतना सदांच हारतां.'

'खरें म्हण्टा तूं? अजाप बाबा! सुवार्थान तू केन्नाच फुरफुरना; पानां बरी आयल्यार दाव चडोवचो अशेंय तुका दिसना?'

'नाजाल्यार हेरमानाक पळें.' कोणेतरी इंजिनियरींग रेजिमेंटांतल्यान एका तरनाट्याकडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'उबे जिणेंत हाणें एकूय पान हातांत धल्ले ना. मागीर दाव लावपाची गजाल सोडच. पुण आमच्या म्हऱ्यांत बसून आमचो खेळ पळेता. पांच वरां मेरेन न्हीद खळोवन जागो रावता!'

'म्हाका इस्पीकांची जबर आवड. पुण अदिक मेळोवपाखातीर जें गरजेचें आसा तें वगडावपाची म्हजी तांक ना.' हेरमानान सांगलें.

'आरे, हेरमान खांपो जर्मन. देखून सांबाळून पांय उबारता.' टोमस्कीन म्हळें, 'पूण संवसारांत कुवाडें जावन आसा ती म्हजी आजी, फाऊंटेस अन्ना फेदोतोव्हना.'

'कितें? कितें म्हण्टा तूं? सगळ्यांनी एकदम विचाल्लें.

'खऱ्यांनीच म्हाका समजना म्हजी आजी केन्नाच जुगार कित्याक खेळना तें!' टोमस्कीन म्हळें.

'तांतूत रे कसलें अजाप! अैशी वर्सांची म्हातारी बायल ती. तिका जुगार खेळपाची आवड कशी आसतली?' नारुमोव्हान म्हळें.

'तुका तिचेविशी कांयच खबर ना काय कितें?'

'ना. तुज्यान तर!'

'मागीर आयक तर.' टोमस्कीन म्हळें आनी सांगूंक सुरवात केलीः 'साठ वर्साआदी म्हजी आजी पारिसाक गेल्ली. थंय तिका सगळो लोक 'फॅशनचो नमुनो' कशी लेखताले. मॉस्कोचे हे परीक पळोवचेखातीर तिच्या फाटल्या -फुडल्यान भोंवताले. रिचेलियोन तिका मागणी घालो आनी, म्हगेली आजी सोपूत घेवन सांगता, तिगेल्या सभावाक लागून ताणें जीव दिलो.

त्या दिसांनी बायलो 'फारो' नांवाचो खेळ खेळटाल्यो. एक दीस दरबारांत इस्पिकांनी खेळटा आसतना म्हजे आज्जेन ड्युक द ओर्लाकडल्यान खूबशें पैशे उश्णे घेतले. घरा येवन तोंडावयली रस्मी साबा देंवयता आसतना आनी घेऱ्याचो स्कर्ट सोडयता आसना तिणे म्हज्या आज्याक आपुण जुगारांत कशी हारला आनी आपणें कशे रीण काडलें तें सांगलें. आनी तें रीण ताणे फारीक करचें अशें सुचयलें.

'म्हजो संर्गार आशिल्लो आजो, म्हाका उगडास आसा, आज्जेचो एक तरेचो चाकरच आसलो. तिका तो थर्त भियेतालो. पुण त्या दिसाचे हारीची गजाल आयकनाफुडें रागान तांबडो जालो. भुरग्यांक शिकयल्ले भाशेन हिशोब करून ताणे तिका दाखयलो आनी सांगलें कि फाटल्या स म्हयन्यांत पांच लाख खर्च आयला. मागीर रागान ताणें म्हळें, मास्को आनी सारातोव्ह हांगाची भाटां पारिसाक लागीं नात. आपुण रीण फारीक करपाचोच ना अशें ताणें पर्थून भर दिवन सांगलें. आज्जेक राग आयलो. तिणे ताज्या कानार एक मूठ माल्ली आनी आपलो राग उक्तावचेखातीर ताका आपले न्हिदपाचे कुडींतलो भायर घालो.

आपणें दाखयिल्लो फुगरो उपेगाचो जाला अशें समजून दुसऱ्या दिसा तिणें आपल्या घोवाक आपयलो. तेन्नाय आजो बदलूंक नासलो. लग्न जाल्ल्याक पयलेच फावटी तिणें उलोवन समजावपाची नीत लेगीत अंतर आसता. राजाचो पूत वेगळो आनी गाडेकार वेगळो! पुण कांयच उपेग जालो ना. आजान व्हड आवाज करून सांगलें, 'ना' आनी आपलें 'ना' हें निमाणे म्हणपाचेंय सांगलें. आता मात आजी भियेली.

'तिगेल्या लागशिल्ल्या इष्टांमदी एक नवलायेचो मनीस आसलो. तुमी घडत्र कोंति सां जेमेरेनचे नांव आयकलां जातलें. ताचेविशीं तरातरांच्यो खबरी लोक

उलयतालो. आपण अमृत आनी पारस सोदून काडला अशी तो बडाय मारतालो. लोक ताका ठक म्हण्टाले आनी ताजी फकाणां करताले. काझानोव्हान आपल्या 'उगडासां'त ताका हेर म्हूण पाचारला. अशें आसतनां लेगीत सां जेरमेनचें नांव व्हड मनशांत मोडटालें आनी समाजांत कशें वागचें ताजी ताका चत्राय आसली. म्हजी आजी जाल्यार आजलेगीत ताका मानता आनी ताज्या आड कोणेंच उलयिल्ले तिका सोंसना. तर आज्जेक खबर आसली सांजेर मेनालागी खूब दुडू आसा. देखून एक चीट धाडून ताका आपयलो.

रकाद मेळनाफुडें म्हातारो सां जेरमेन रोखडोच आयलो. येवन पळय जाल्यार आजी कश्टी जावन बसल्या तिणें सां जेरमेनाक आपलो घोव कितलो वायट आनी त्रासदिणी आसा तें सांगलें आनी निमाणेंकडेन म्हळें कि सां जे मेनाची इश्टागत आनी धिटाय होच आपलो निमाणो आदार.

कांय वेळ चिंतून घेतले उप्रांत जे मेनान म्हळें, 'हांव तुका हो दुडू दितां. हांव जाणा हे दुडू परते पावलेखेरीज तुका सुख मेळचेंना आनी तुजे सुख ना केल्ले म्हाका नाका. पुण कितें करतलो?... आं! एक उपाय आसा... तू हे दुडू नव्यान जिकून घे!'

'पुण म्हज्या काऊंट' आज्जेन म्हळें 'खरें सांगता तुका म्हजे कडेन पैशे नात.'

'पुण पैशांची गरजच ना. जेरमेनान म्हळें, हांव सांगता ते पुराय आयकून तरी घे.'

'इतलें सांगले उप्रांत काऊंटान तिका अशी एक माण्णी सांगली कि जी समजुवचेखातीर आमच्यांतलो कोणूय मनीस जीव दीवंक तयार जायत...'

सगळे जाण उतावळे जाल्लेभशेन टोमस्कीचे बगलेक सरकले आनी कानार हात दवरून आयकूंक तयार रावले.

टोमरकीन आपलो पायप पेटयलो. धुंवराचो लोट भितर घेतलो आनी तो फुडें सांगूंक लागलो.

'तेंच रातीकडेन म्हजी आजी वेसेंलाक जुगार खेळुंक गेली. डयूक दे ओर्ला पानां वांटटालो. आदलें रातीच्या रिणाचे पैशे आपुण हाडूंक पावलीं ना म्हुण तिणें माफी मागली. कित्याक हाडूंक पावली ना ते सांगतना एक नकली गजालय ठोकून दिली आनी उप्रांत तांच्या बराबर खेळूंक लागली. तिणे तीन पानां वेंचून काढली. आनी तीं पानां एका फाटल्यान एक खेळूंक लागली - ही तीनूय पानां जिखली आनी म्हज्या आज्जेन रीणाचो सगळो पैसो जोडलो.'

'ती सोर्त! नशिब तें!' एकल्यान म्हळे.

'फकाण! काणी!' हेरमनान म्हळें.

'घडये पानांचेर कुरु केल्ली आसूंये तिसरो उलयलो.

'ना... ना!' अभिमानान टोमस्कीन म्हळे.

'कितें म्हण्टा!' नारूमेह उलयलो 'तुगेले आज्जेकडेन एकाफाटल्यान एक अशीं जिखपाची माण्णी आसा आनी अजून तें गुपीत कितें तें तुका खबर ना? खरेंच?'

'दिसता तितलें सोपें काम न्हय बाबा तें! देवाच्यान तर! टोमस्कीन जाप दिली, 'आज्जेक आसले चार भुरगे. तांतुंतलो एक म्हजो बापूय. चारूयजाण जुगार खेळटाले आनी अशे आसतनाय तिणें आपले गुपीत एकल्याक सांगलें ना. तशें सांगल्यार कांय नुकसान जावपाचे न्हय. आनीक एक खबर आसा. ही खबर म्हाका सांगलेली म्हज्या बापोलयान. सर्गीय चाप्लीत्सकिची ती खबर. मरच्याआदी तो सामको भिकाड्डो जाल्लो. कोट्यांनी दुडवाची वाट लायल्या उप्रांत आपले तरणाटेपणांतच एके फावटी तो तीन लाख रुबर हरलो - म्हाका दिसता झुरीकाक. ताका लागून तो पिसो जावपाकडेन पाविल्लो. वाळेस तरणाट्यांचो तसो म्हजे आज्जेक जबर राग येता. पुण कित्याक कोण जाणा चाप्लीत्सकिची तिका काकुळट दिसली. तिणे ताका ती कुवेंची पानां सांगली आनी ताचेकडच्यान उतर घेतलें कि ह्यापुढे तो केन्नाच जुगार खेळचोना म्हण. चाप्लीत्सकी आपल्या मनशागेर गेलो आनी ते दोगूय खेळूंक लागले. पयले पानाचेच ताणे पन्नास हजार लायले आनी ते जिखले. दुसऱ्या पानार ताणे दोब्राद दुडू लायले आनी तिसरे पानार त्यापरस दोब्राद-तीनय पानां तो जिखलो...

'आसूं त्यो खबरो आता... पावणे स वरां जालों. आता न्हिदुकूच जाय.'

खऱ्यांनीच दीस वयर येतालो. आपले मुखावयल्या कोपांत उरिल्ले तें तोंडाक लावन सगळे उठले.

## २

म्हातारी काऊंटेस आपल्या दिवाणखान्यांत येवन बशिल्ली. मुखार आसलो एक हारसो. भोंवतणी तीन वावराड्यो. एकलेच्या हातांत आसलो पोवाचो (रुज) डबो.

दुसरेच्या हातांत केंसांची लिगां आनी तारण्य आनी सोबीतकाय आतां बावत वता म्हणपाची काऊंटेसीक जाणविकाय आसली. तरी आसतनां जुनेपणांतल्यो सगल्यो मोदी तिणे जशाच्यो तशो चलोवपाचे थारायिल्लें. आनी देखूनच ती आजून लेगीत १७७० वर्साची फेशन चलयताली. साठ वर्सांआदी न्हेसपाखातीर ती जितलो वेळ वगडायताली तितलोच ती आजूय वगडायता.

जनेलाकडेन शिवण घेवन ती तरनाटी चली बसल्या ती काऊंटेसाची वांगडी कशी वावराडी.

'देव तुका बरो दीस दिवं, आज्जे!' कुडींत भीतर सरून एका जुवान ऑफिसरान म्हळें, 'वो ज्यूर माद्‌मुआझेल लिसे. हांव तुजेलागी एक उपकार मागूंक आयलां, आज्जे.'

'कितें जालें पावल?'

'म्हज्या एका इश्टाची तुजेलागी वळख करून दिवंक सोदतां हांव. ताका घेवन सुक्राराक तुगेल्या बॉलडान्साक येवूं?'

'हय. बॉलडान्साकच घेवन यो ताका. थंयच करून घेवया वळख. बरें हें सांग काल तूं ××× गेर गेल्लो?'

'हय. भौच मजा आयली. सकाळच्या पांच वरांमेरेन नाच चलतालो. एलेत्सकाया तर भौच सुंदर!'

'शोःशी! तिच्यांत आसा तरी कितें! तिगेली आजी प्रिंसेस दारया पेत्रोव्हनाक तुवें पळोवक जाय आसली! आतां बाबडी म्हातारी जाल्या आसतली न्हय - दारया पेत्रोव्हना?'

'म्हातारी?' येवजुणुकेंत पडून टोमस्कीन म्हळें, 'तिका मरून सात वर्सां जाली.'

जनेलाकडेन बशिल्ले चलयेन हात वयर करून टोमस्कीक कुरु केली. म्हातारे काऊंटेसीक तिगेल्या वांगड्यांच्या मरणाची खबर सांगिनात म्हणपाचो टोमस्कीक उगडास आयलो आनी ताणें आपले ओठ चावले.पुण त्या आर्दांच काऊंटेसीन ही खबर जी तिका नवी आसली. कपलाक मिरयो घालून आयकली.

'मेली!' तिणे म्हळें, 'आनी म्हाका तर तिगेल्या मर्णाची खबर लेगीत नासली! आमी दोगांय वांगडाच राणयेच्यो 'मानाच्यो दासी' जाल्ली. आनी आमकां जेन्या पयलेच फावटी राणये म्हर्‍यांत व्हेल्ली तेन्ना राणयेन.'

आनी काऊंटेसीन आपल्या नातवाक आपली काणी शंभरावे फावटी सांगली.

'बरे तर पावल,' काणी सोंपोवन कांय मिनटां ओगी रावल्या उप्रांत तिणें म्हळें,

'म्हाका उठून हात दी. लिझा, म्हजे पुडीचें बुशद खंय आसा?'

न्हेसून घेवचेखातीर काऊंटेस आपल्या वावराड्या बरोबर पड्ड्याच्या फाटल्यान गेली. कुडींत टोमस्की आनी ती चली दोगांय उल्लीं.

'तूं तिचेलागीं कोणाची वळख करून दिवंक सोदता?' लिझावेता इव्हानोव्हबाब ल्हवूच ताका विचाल्लें.

'नारूमोव्हाची. तू वळखता ताका?'

'ना. तो मिलीटरींत आसा काय मुलकी?'

'मिलीटरींत.'

'इंजिनियर?'

'न्हय. कॅव्हलरीमन. इंजिनियर अशे तुका कित्याक दिसले?'

चली तोंडांतल्या तोंडात हांसली. कांय एक उलयली ना.

'पावल!' पड्ड्या फाटल्यान सांवन कांऊटेसीन व्हडान उलो माल्लो. 'म्हाका एक नवी कादंबरी हाडून दी. पुण उपकार करून 'नॉडर्न' धाडूं नाका.'

'कितें, कितें आज्जें?'

'असली कादंबरी धाड, जातूत हिरो आपल्या बापायची वा आवयची गोमटी अंदिना. आनी लोकान बुडून जीव दिल्ल्याच्यो खबरी तातूत आशिल्ली कादंबरीय म्हाका नाका. कोणून बुडून मेलो अशें आयकतकच म्हाका भिरांत दिसूंक लागता.'

'असल्यो कादंबरी ह्या दिसांनी येनात. आतां तुका रशियन कादंबरी वाचपाची आसत जाल्यार गजाल वेगळी.'

'कितें? रशियन कांदबऱ्यो मेळटात? जाल्यार म्हाका एक कशेय भाशेन पावय.'

'बरें तर आज्जे. आतां हांव वचूं? म्हाका मात्शें काम आसा. बरें लिझावेता इनानोव्हना... जाल्यारय नारूमोव्ह इंजिनियर अशें तुका कित्याक दिसलें?'

टोमस्की कुडींतलो भायर वचूंक गेलो.

आतां लिझावेता एकलेंच उल्लें. ताणे हातांतली शिवण सकल दवल्ली आनी तें जनेलांतल्यान पळोवंक लागले. खिणाभरयान एक जुवान ऑफिसर रस्त्याच्या पेलेवेटच्या कोनशार येवन उबो रावलो. लिझा वेताच्या गालांचेर तामसाण आयली. ताणे शिवणीचो आटो हातांत घेतलो आनी लजेवन नदर सकल थिरावन तें शिवंक लागलें.

ह्याच वेळार काऊन्टेस कुडींत आयली. तिगेले न्हेसून जाल्लें.

'लिझांका, गाडी आपय. आमी भोंवक वचूया...' तिणे म्हळें.

लिझा आपल्या शिवणीकडचें उठलें आनी सामान गुठलावंक लगलें.

'भेड्डें जालां काय किदें गो?' काऊन्टेस किळचली,

'बेर्गीन मागय गाडी.'

'मागयतां आज्जे.' मंद आवाजान ताणें जाप दिली आनी ते भायर गेलें.

लिझा कुडीच्या भायर सरता आसतना एक मनीस पुस्तकां घेवन भितर आयलो. हीं पुस्तकां काऊंटेसीखातीर प्रिन्स पावेल आलेक्सांदोविच हाणें धाडिल्लीं.

'शाबास! शाबास! देव बरें करूं म्हणून सांग ताका.' काऊंटेसीन म्हळें, 'लिझा! लिझा! थंयच्यान खंय वता तू?'

'आंगावेली बदलूंक.'

'अजून कळाव आसा. राव हें पळें, पयलो भाग उक्तो करून म्हाका वाचून दाखय.'

लिझान पुस्तक उक्तें केलें आनी तें वांचूंक लागलें.

'व्हडान वाच,' आऊंटेस आडुली, 'जालां तरी किदें गो तुका? ताळो कोणाक विकलो बी ना मगे? राव. एक मिनिट राव. पांय दवरपाचें स्टूल घेवन यो... अजून बगलेक दवर... आं! वाच आतां.'

लिझावेतान आनीक दोन पानां वाचून दाखयली. काऊंटेस जांभया दीवंक लागली.

'दवर तें पुस्तक!' तिणें म्हळें. 'कायच अर्थ ना तांतून! फक्त डबड! प्रिन्स पावेलाक पर्थून धाडून दी. उपकार जाले म्हणून सांग. बरें.... गाडी खंय आसा?'

जनेलांतल्यान भायले वटेच्यान पळेन लिझावेतान म्हळें, 'गाडी तयार आसा.'

'मागीर तूं किद्याक तयार ना?' काऊंटेस तापली, 'तुजेखातीर सदांच म्हाका तिश्टूचें पडटा. सोसूंक नज म्हज्यान हें!'

लिझा आपल्या कुडीत धावलें. दोन मिनटां जांवचे आर्दांच व्हडव्हडान घांट वाजूंक लागली. घांट आयकून तिनय वावराड्यो धांवत आपल्यो आनी दारालागीं उब्यो रावल्यो. दुसऱ्या दारांत एक चाकरय येवन उबो रावलो.

'हांवें आपयनाफुडें येवंक किदें जाता तुमकां?' काऊंटेस आडुली, 'चल, लिझावेताक सांग ताजी वाट पळेत तिश्टतां हांव.'

माथ्यार चेपें घालून आनी आंगाचें बदलून लिझावेत आयलें.

'ओ! आयलें बाय?' काऊंटेसीन म्हळें,' आवय! काय बरें न्हेसला र! कोणाक जिखूक चल्ले बाय?.... आयज दीस कसो आसा? भायर मोड आसा काय दिसता.'

'ना आज्जे,' चाकरान म्हळें, 'दीस बरो आसा आज.'

'जाणां! तोंडाक येता तें उलोवपाची तुका संवय. तें जनेल मात्शें उकतें कर पळोवया... पळे कसले वारे व्हावता... हांव जाणाच आसलीं कितलें थंड... वारें! गाडी धाडून दी परती. लिझा आर्मी आतां वचूं नये. तुका इतलें शिंगारपाची गरजच नासली.'

'कसलें हें जीवित, देवा!' मनांतल्या मनांत लिझान सुस्कार सोडलो.

आनी खरेपणीं लिझावेता एक कश्टी जीव आसलो. काळकुटेची भीक कडू आसता, दांतेन सांगलां. आनी अनोळखी मनशाल्या घरार्चीं सोपणां उबोवरशीं आसतात. ही आडुकसाण लिझा सारकिलें दुबळे चलयेबगर, जी एक गिरेस्त धर्नागीगेर काम करता, बरेतरेन कोण पारखून पावत? तसो काऊंटेसाचो स्वभाव वायटसो न्हय. समाजाच्या मोगान इबाडून उर्डायल्ली ती एक बायल. ती आखांताची किरपीण आनी दिसूयभर आपल्या सुवार्थ सादपच्याच फाटल्यान आसली. जाण्टया मनशांवरी, जे आपली अशी जाण नाजूक भावना काबार करून बसल्याउप्रांत आतां आपले कांयच उरूंक ना म्हणून कश्टतात तीं उंचयल्या समाजाच्या सगळया थरांनी वावुरताली. बॉल डान्साकय वेताली आनी गालांक लेपोड सारोवन पोरने मुस्तींतल्या न्हेसपात नटून बॉलरूमाच्या एका कोनशाक बसून थंयचे विटके पुण गरजेचे सोबित कायेंत भर घालताली. नवे येवपी तिजे बगलेक वचून तिका सलाम करतालें - एक पोरनो रिवाज चलयिल्लेवरी. जाले, उप्रांत तिका कोणूच पळेना आसलो. सगळो तिका विसरून वेताले. आपल्या घरा ती शारांतल्या सगळयांक आपोवणी दिताली. आनी येतल्या लोकांची वळख नासतांना लेगीत ती तांकां बरो घसघशीत येवकार दिसताली. तिगेले हिसपाभायर चाकर आनी वावराड्यां घनऱ्या सालात वा तांच्या घरांत दिसपट्ट्यो फुगत वताल्यो. आपल्या मनांत येता तशे त्यो वागताल्यो आनी मर्णाच्या फोंडात पांय सोडून बशिल्ले धनीर्णीक लुटपाचे सर्तीक पडिल्ल्यो.

असल्या घरांत लिझावेता एक हुतात्मो. तें काऊंटेसीक च्या दितालें आनी साकर इबाडटा म्हणून ताकाच गाळी खांवच्यो पडटाल्यो. तिका पुस्तकां वाचून दाखोवपाचे काम लेगीत लिझाच करतालें आनी वरप्याच्या चुकांचें पानवळ लेगीत लिझाकच भोंगचें पडटालें. तिज्या वांगडा भायर पासयेक वतायेंय लिझाच. आनी दीस वायट आसलो वा रस्तो बरो नासलो जाल्यार गाळी आयकुच्यो पडटाल्यो त्योय लिझाकच. ताका जो पगार थारायलेलो तो पुरचो ताका केन्नाच मेळना आसलो. आनी तरी आसतना ती लिझाक हेर जाण्टया बायलांवरी न्हेसूंक सांगताली. समाजांत लिझाक

सुवातच नासली. ताका सगळो लोक वळखतालो. पुण कोण एक विचारीना आसलो. बॉल-डान्साक दुसरी खंयचीय बायल मेळ्ळी ना जाल्यारय लोक ताका नाचूक पाचारतालो. खंयचेय बायलेक आपले न्हेसण सारकें करपाचें आसत जाल्यार ती लिझाक हाताक धरून भितल्ले कुडींत घेवन वताली. ते नाजूक मनाचे आशिल्ले देखूनच आपली दशा वळखून आसताले. तागेले तानेल्ले दोळे सदांकाळ आपल्या सोडवणदाराची वाट पळेतालें. जाची तें इतली वर्सां वाट पळेत बशिल्ले. ज्या सुकड्या बायलांच्या फाटल्यान लोक नाचताले तांच्यापरस कितलेशेंच सोबीत आसतना लेगीत दादले ताका दाव्या दोळ्यान लेगीत देखनात आसले. कितले फावटी तें त्या सजयल्ल्या सालांतल्यान उठून आपले ल्हान कुडींत बसून दुकां गळोवन रडलां आसतलें! आनी हे कुडींतले वंटीवेलो कागदाचो पड्डो, एक ल्हान आरमार, एक माणकुलो हारसो आनी रंगयिल्ली खाट इतल्योच वस्तु तिज्या मालकीच्यो आसल्यो. पितळची एक वातदाणी आसली तातूत एक मेणवात जळटाली आनी आपल्या शितळ उजवाडांत ह्यो सगळ्यो वस्तू आपले धनीणीच्या दोळ्यांत भरताली.

## ३

एक दीस हे खबरेचे सुर्वेक जे रातीचे वर्णन केलां तिच्या दोनेक दिसां उपरांत आनी निकतेच सांगिल्ले गजालीच्या सुमार एक सप्तक आदीं लिझावेतां जनेलांत बसून शिवतालें. मर्दी अचकींत तागेली नदर मुखावेल्या मार्गाचेर गेली. एक तरनाटो इंजिनियरिंग रेजिमेंताचो फार्दीमेंत चडोवन तुकूतुकू करून जनेलाकडेन पळेतालो. विंचू चाविल्लेवरी लिझावेतान नदर फिरायली आनी तकली सकल घालून तें शिवंक लागलें. पांच मिनटां उपरांत ताणें नव्यान नदर वयर काडली. तो मनीस थंयच उबो आशिल्लो. मार्गावेल्यान पासयो मारतल्या ऑफिसरांचे नदरेक नदर दिवपाची लिझावेताक संवय नासली. ताणें आपली तकली भायलेवटेन काडीनासतांना ते शिवंक बसलें. दोन अडेच वरांमेरेन ते शिवतालें. दनपारचें जेवण आयलें तेन्ना शिवणीचें सामान भरून दवरूंक लागलें. सामान भरतां भरतां तागेली नदर जनेलांतल्यान भायर गेली. अजून तो मनीस थंयच उबो आसलो. लिझावेताक अजाप जालें. ताणें

जेवन घेतलें आनी परत तें जनेल लागी आयलें... आतां थंय कोणच नासलो. आनी ल्हवू ल्हवू ते त्या मनशाक विसरून गेलें.

दोन दिसां उपरांत काऊंटेसाच्या वांगडा भायर वचूंक म्हणून तें घोड्या गाडयेंत वसूंक आयले. तेन्ना ताका तो मर्नीस दिश्टी पडलो. नाक्यार ता उबो आसलो. तागेलें जुदयेचें उबें कॉलर तागेले तोंड लिपयताले. चेष्याच्या सकलाक फकत दोन दोळे चकचकताले. लिझावेताक भिरांतशी दिसूंक लागली....

भायरसावन परत येनाफुडें तें धांवत जनेलाकडेन गेले. तो मर्नीस अजून मेरेन थंयच उबो राविल्लो. ताणें आपलें दोळे लिझावेताचेर थरायले. ते जनेलाकडचें उठले. ताचे मर्तांत मात एक नवो अणभव आनी भिरांत धवळटाली.

त्या दिसा उपरांत तो मर्नीस थरिल्ल्या वेळार जनेकासकल, सदाच्याच जाग्यार येवन उबो रावलोना अशें एकय दीस गेलो ना. एके तरेचे सुख-दिणे कोंब दोगांयमदे किल्लताले. शिवण घेवन ते जनेलांत बशिल्लेंच आसतालें. मागीर तो आयलो म्हणपाची जाणविकाय ताका चलयताली. मार्गीर ते तकली वयर काडून पळोवंक लागतालें आनी दिशीं दिशीं दोगाली नदर एकमेकांचेर चडचड वेळ शिरून उरताली.

आनी सोबीत चलयेच्या ह्या बरेपणाखातीर त्या मनशाकय आपणाचेर उपकार केल्लेवरी जाताले. आपले तरुण नदरेंन ते त्या मनशाल्या गालावेली तामताण नियाळून घेतालें. ही ताणताण दोन दोळयांचे चार जायना फुडें तागेल्या गालांचेर पावताली... एक सप्तक उलगर्ले. आतां लिझावेता त्या मनशाक पळोवन आपल्या ओठांचेर मंद हांसो हाडूंक लागलें...

टोमस्कीन जेन्ना आपल्या इश्टाची वळख काऊंटेसीकडेन करून दिता म्हणून सांगले तेन्ना भिरांतेन लिझाचें काळीज खपखपूंक लागलें. पुण जेन्ना ताका कळ्ळें कि नारनोव्ह इंजिनियिर न्ही तर हॉर्सगार्डसमन म्हूण तेन्ना ताका आपल्या विशेषणाच्या प्रस्नाचे चुरचुरे पडूंक लागले हो प्रस्न विचारून आपलें हुशार तोमस्कीक सांगचेपरस दुसरें चड अशें ताका किदें मेळिल्लें?

हरमन आसलो जर्मन बापायलो पूत आनी तो रावतालो सुतीया. बापायन पुताच्या नांवान भौच थोडें बेंस दवरिल्लें. पुण त्या बेसाचें जें कळांतर येताले ताका लेगीत हरमन हात लायना आसालो. ताका आपली स्वतंत्रताय टिकोवंक जाय आसली. तो आपल्या पगाराचेर जियेतालो. केन्नाच फोल्गां मारीना आसलो. तो पुरतो येवजुपी, एकमुळो कसो आसलो. पुण वांगडाच उंच हावेसाचो मनीस आसलो. तागेले किरपीण कायेची तागेले इश्ट फकाणां मारताले. खूब भावनाप्रधान पुण

तकलेन हुशार. वागणुकेन बरो देखून तरणेपणांतल्यो किरकोळ चुको ताज्या हातांतल्यान घडूंक पावल्यो ना. त्याचखातीर सैमाचो जुगारी आसून लेगीत तो केन्नाच इस्पिकांनी खेळूंक नासलो. तो येवजितालो कि आपलें बेंस काय चड व्हड न्हीं. ताच्याच उतरांनी सांगतलो जाल्यार 'सुबेझ जोडपाचे आशेन गरजेचें वगडावन बसप (To sacrifice the necessary in t he hope of gaining the superfluous) हें करपाची म्हर्जी तांक ना' तरी आसतना रातीच्योराती न्हिद खळोवन तो खेळतल्यांच्या बगलेक बसून गवनालो आनी पुरते उर्बेन सुरवातेक सावन सोंपमेरेन खेळ पळेत बसतालो.

तीन पानांचे गजालीन तागेल्या कल्पनेक हालयलेली. रातभर ताज्यान ती गजाल तकलेंतली भायर काड नज जाली.

'समज,' दुसरे रातीकडेन पीटर्सबर्गाच्या रस्त्यावेल्यान हेडटा अ ासना ताणें आपणांकच म्हळें, 'समज. म्हातारे काऊंटेसीन त्या तीन पानांचें गुपीत म्हाका सांगलें जाल्यार कशें? समज, त्या तिनय चुकनात असल्या पानांची नांवां म्हाका कळ्ळी... जाल्यार?... हय. कित्याक म्हज्या नशिबाची परिक्शा घेवंची न्हंय? काऊंटेसीकडेन वळख करून घेवप, तिगेलो विस्वास जोडप आनी गरज पडल्यार तिजो मागय करप.... हय! पुण हाका कितले दीस लागतले? ८७ वर्षाची म्हातारी ती! फुडल्याच सप्तकांत वा परांच किदें जायत देवाक खबर! रावरे, पुण ते गजालीचेर पातयेवप? ना! पिशें लागला? बारीकसाण, नम्रताय आनी प्रयत्न हीच म्हर्जी तीन हुकमीं पानां तांच्याच नाङ्यार हांव म्हजे धन तिब्राद करीन, सात वांट्यानी वाडयन..... शांतताय आनी मेकळेपण हांचो भागी जायन....'

ह्याच येवजण्यांनी गुल्ल आसताना तो पीटर्सबर्गाच्या एका व्हड रस्त्याचेर पावलो पोरण्या मुतितल्या एका व्हडल्या घराभायर येवन तो उबो रावलो. मार्गार घोड्यांच्यो गजाली उब्यो आसल्यो. अजून मार्गावेल्यान गाड्यो धांवताल्यो. हनमन थंयच उबो रावलो.

'हें कोणाले घर?' कोनशाक उबो आशिल्ल्या शिपायाक ताणें विचाल्लें.

'काऊंटेस ×××चें' जाप मेळ्ळी.

हरमनाच्या आंगातल्यान जोगुल देंवलें ताज्या तकलेंत ती काणी नव्यान आयली. घराची धनीण आनी तिगेलो तांक हांचेर चिंतीत वा थंयच पासयो मारूंक लागलो. मध्यान रात उलगती तेन्ना घरा परतलो. जायतो वेळ मेरेन हातुंणाचेर तो कुशी बदलीत रावलो. आनी जेन्ना तो न्हिदलो तेन्ना ताणें सपनांत इस्पिकांचो खेळ देखलो

लांची चादर घातलेले मेंज,नोटींचे कवळे पोवनांच्यो राशी एका फाटल्यान ताणें दुसऱ्या पनाचेर दाव लायलो. भियेना आसतना डाव दोब्राद केलो. पावटीन पावट तो जिखलो. पोंवना पुंजायली आनी नोटी बोल्सांत घाल्यो - सकाळी ताका जाग आयली तेन्ना दीस वयर आयिल्लो. कितली गिरेस्तकाय हातांत येवन गेली. हाचें ताका दुःख जालें. आनी दुखेस्त मन घेवन तो शारांत भोंवक भायर सल्लो.

परत तो काऊंटेसील्या घरा बगलेक आयलो.ताका दिसले एकाद्री अदृश्य शक्ती आपणाक हांगा वोडून हाडटा. तो वोगी उबो रावलो. मागीर ताणें नदर वयर केली आनी जनेलाकडेन पळेलें. एका जनेलांत काळ्या केसांची एक तकली दिश्टी पडली. तकली बागावलेली. कांय वेळान ती वयर आयली हरमनान पळेलें काळ्या दोळ्यांच्या एके सुंदर चलयेचें तोंड. त्याच खिणान तागेले नशिब थारायले.

## ४

लिझावेतान आपलें आंगाचे बदलिल्ले मात, तेन्नाच काऊंटेसीन ताका नव्यान आपोवन व्हरून घोड्यांगाडी मागवंक सांगलें. गाडयेंत बसूंक दोगांय भायर सल्ली. दोगजाण चाकर काऊंटेसीक गाडयेंत चडतना आसतना लिझावेतान आपलो इंजिनियर पळेलो. तो रोदांबगलेक उबो आशिल्लो. पळेता आसतना त्या मनशान लिझावेताचो हात धल्लो. भिरांतेन लिझावेत अर्दे जालें. लिझावेताच्या हातांत एक चीट सोडून तो मनीस खीणाभितर नाच जालो. लिझावेतान ती चीट आपल्या मेयांत लिपयली. आनी सगळे वाटेर ताणें कांयच देखलें ना वा काय एक आयकलें ना. काऊंटेसीच्यान गाडयेंत मोन्यांनीं बसूंक नज जालें. प्रस्नां फाटल्यान प्रस्न विचारून बेजार करताली - तो मुखावेल्यान वता तो कोण? तो खंयचो पूल? ते वाटेर किदे बरयलां? लिझावेत मनांत येता ती जाप ठोकून दितालें. तिगेल्यो तकली पांय नाशिल्ल्यो गजाली आयकून काऊंटेस मनांतल्यामनांत फडफडूंक लागली.

'जालां तरी किदें गो आयज तुका पुता? मारून आयलें ना मगो? म्हजें सांगणें तुका आयकूंक येना काय तुजे मतींत सरना हांवं किदें उलयतां तें.... देवाच्या कुरपेन म्हजी तकली जाग्यार आसा म्हुण बरी!'

खऱ्यांनीच लिझावेताक कांयच आयकूंक येना आशिल्ले, कांयच समज पडूंक पावना आसलो. घरा पावनाफुडें धांवत आपल्या कुडींत गेलें आनी मेयांतली चीट

भायर काडली. चीट उक्ती नाशिल्ली. धांवते नदरेन वाचून घेतली. मोगाची चीट आसली ती, नम्रतायेची आनी आदराची उतरां आशिल्लीं! एका जर्मन कादंबरीतल्यान जशाची तशुं कॉपी. नशीब, लिझाक जर्मन भास येनाशिल्ली. चीट वाचून खुंट कशें उबें रावलें.

चिर्टीन ताका खूबच हालयलेलें. जीवितांत पयलेंच खेप एका मनशालागीं तें लिपोवन नातें जोडटालें. त्या मनशाचें धाडस पळोवन हे अजापभरीत जालें. आपल्या विचित्र वागणुकेखातीर तें आपणाचेरूच फडफडले. किदें करचें, किदें करचें न्हय-कांयच ताका समजना जालें. जनेलांत बसपाचें सोडून दीवं? बेफिकीरी दाखोवन तागेली उमेद जिरवं? ताका आडावं? ही चीट परत करूं? काय एक सादें कडक कागद बरोवन ताजी उमेद मारून उडवं? हे विशीं तें कोणाक विचारतलें आशिल्लें? कोणाचो आदार घेतलें? तागेलो आपलो असो कोणूच नाशिल्ला - कोण इश्टिन नाशिल्ली वा समजावपीय नाशिल्ली. निमाणे जाप धाडपाचें थारायलें.

तें आपल्या न्हानेल्या मेजार येवन बसलें. एक कागद घेतलो अनी पेन हातान धरलें. मार्गीरय येवजवंक लागले. ताणें कितलेशेच फावटी चिर्टीक सुरवात केली आनी फावटीन फावटी पिनून वडयली - आपलीं उतरां ताका गरजेपरस चड म्होवाळ तरी लागतली, नाजाल्यार चड कडक दिसतली. निमाणें ताणे कांय वोळी बरोवन काडल्यो. त्यो वाचून ताकाय धादोसकाय दिसलें. ताणें बरयिल्ले. 'हांव जाणा तुजी येवजण सरळ आसा आनी खंयचेंय येवजिनासतना केल्ल्या कर्तुबाक लागून तूं म्हजो अपमान करचोना. पुण अशेभाशेन आमचो वळखीचो आरंब जावप बरें न्हंय. हांव तुगेली चीट परती धाडटा आनी आस्त करतां ह्याफुडें अवमानाचो प्रसंग येवपाक तूं दिवचोना.'

दुसऱ्या दिसा हरमनाचेर नदर पडनाफुडें शिंवपाचें सोडून तें उठलें. शेजारचे कुडींत गेलें. आनी चीट भायर सोडली. ताका भरवंसो आशिल्लो तागेली वागणूक पळोवन तो मर्नीस धांवत येवन ती चीट उबारतालो. हरमन धांवत चीट पडिल्ली थंय आयलो. ताणे वेगींवेगीन ती चीट उबाल्ली आनी तो एका दुकानांत गेलो. ताणें लाखाटो उक्तो केलो. ताका आपली चीट आनी लिझावेताली जाप मेळ्ळी. अशेंच जातलें म्हुण तो रावतालो. आतां ह्या फुडें कितें करचें हें चिंतेन घेरिल्ले दशेंत तो घरा परतलो.

तीन दिसाउपरांत आल्फियादाल्या शापावेल्यान एक चुरचुरीत चली लिझानेताच्या नांवांन एक लाखाटो घेवन आयली. भियेत भियेत ताणें लाखाटो उक्तो केलो. ताका

दिशिल्ले तातूत कोणाय दुडवावाल्याचें बील आसतलें, रोखडेच ताणें हरमनाचें अक्शर वळखलें.

'तूं चुकले बाय' ताणे म्हळें, 'चीट म्हजेपासत न्हंय.'

'हय तुजेचखातीर!' मस्करेचो हांसो लिपयनासतना ते चलयेन म्हळें, 'वाचून तरी पळेय.'

लिझावेतान चिटीवेल्यान धांवती नदर फिरायली, हरमनान मेळपाक विचारिल्लें.

'तूं चुकलें. जरूर चुकलां तूं बाय. ही चीट म्हजे खातीर न्हंय.' अशें म्हणून ताणे ती चीट कुडके करून पिनून वडयली.

'आं.... आं. तुजेखातीर न्हंय जाल्यार पिनली किद्याक तर?' ते चलयेन म्हळें, 'जाणे धाडिल्ली ताकाच परत दिवंक नाका आसली?'

'हे फुडें चीट घेवन म्हजे म्हऱ्यान येवं नाका, समजलें?' हे मस्करेन लजेवन गेल्ल्या लिझावेतान म्हळें, 'ज्या मनशान तुका धाडलां ताका वचून सांग ताका लज दिसूंक फाव आशिल्ली म्हुण....'

पण हरमनान आपले यत्न तिळान लेगीत उणे केले नात. वेगवेगळ्या तरांनी आनी वाटानी हरमनाच्यो चिटी लिझाक मेळत रावल्यो. आतां ह्यो चिटयो जर्मनीतल्यान अणकारलेल्यो नासताल्यो. मोगाच्या उमाळ्यान भरिल्लो हरमन त्यो आपल्या सभावीक उतरांनी बरयतालो. ह्यो चिटी उक्ते करताल्यो तागेलो निश्चय आनी विकारलेलें मन. लिझा वेतान लेगीत चिटी परत धाडपाचें बंद केलें. ताका ते चिटीन खोशी भोगताली. मुखार तर तें त्या चिटीक जबाब बरोवंक लागलें आनी जबाब आदल्या जबाबापरस लांब आनी उमाळ्यांनी भरलेलो आसतालो. निमाणे एक दीस ताणें सकल दिल्ल्या उतरांनी बरयलेली चीट आपल्या इश्टाक धाडली.

'आयज सांजे ××× चे एम्बासींत बॉलडान्स आसा. रातीच्या वरांमेरेन आमी थंयच रावतलीं. हीच म्हाका एकलें आसतना मेळपाची संद. काऊंटेस बॉल-डान्साक वचनाफुडें चाकर आपल्या घरा वतले. कवडेलार्गी चौकीदार फकत आपले ल्हानेले कुडीत बसून असतालो. तूं रातीच्या साडेइकरा वरांचेर यो. सपणां चडून थेट वयर यो. व्हडल्या सालांत कोणेंय आडायलो जाल्यार विचार, काऊंटेस खंय आसा? तो सांगतलो ती घरांत ना तेन्ना मात परतले बगर दुसरो मारग ना. पूण चडकन्न कोण आडावंचो ना. सगळी क्रियादां आपले कुडींत एकठांयच रावतात. साल हुपल्या उपरान दाव्या हाताक सर आनी सरळ यो. तेन्ना तू काऊंटेंसीच्या न्हिदपाच्या कुडींत पावतलो. थंय तुका दोन ल्हान दारां दिश्टी पडटली, जांचो पट्टो चडयलेलो आसतलो

उजव्या हाताच्या कुडींत अभ्यासा-घर आसा. थंय काऊंटेस केन्नाच वचना. दाव्या हाताच्या दारा बगलेक एक पायण आसा आनी हेच पायर्णांत एक अशीर वाटांगुळी पाझ आसा. ही पाझ म्हूजे कुडींत येता.'

## ५

वाघान एखाद्या सावदाजेर उडी मारूंक तयार रावलेल्या भाशेन हरमन थारिल्ल्या वेळाची वाट पळेतालो. रातीच्या धा वरांचेरूच तो काऊंटेसीच्या घरा मुखार येवन रावलेलो. दीसमान इबाडलेलें. वाऱ्यांचें लोट गोंगेताले. आनी बर्फय झडटाले. दिवे मिणमिणटाले आनी मार्गानी कोण एक नाशिल्लो. मर्दांच एकाद्रो कर-कर खंय वाट चुकलेले वाटसरू मेळपाचे आशेन आपलो धापेतलो घोडो आमुडटालो. हरमनाच्या आंगार फ्रीक कोटाखेरीज कांयच एक नाशिल्लें. निमाणेकडेन काऊंटेसीची गाडी घरासामकार येवन उबी रावली. दोन चाकरांनी म्हातारेची पंजेल्ली कूड दावे आनी उजवे कुशीन तेंको दित दीत भायर हाडली तें हरमनान पळेलें. काऊंटेसीन काळ्या लोकरीचो वेश्तीद घाल्लो. तिच्या फाटल्यान पातळ वेश्तीद घातलेली तिगेली नाजुक वांगडीण आशिल्ली. तिणें आपल्या केसांत फुलां माळिल्लीं. व्हड आवाज येवन गाडयेचें दार बंद जालें. आनी नरम बर्फाचेर चरचरत ती नाच जाली. चौकीदारान कवडी बंद केली. आनी हरमन रिकाम्या घराफुड्यान पासयो मारूंक लागलो.

एके इलेक्ट्रीच्या खांब्यातळा येवन ताणें आपले घडयाळींत पळेले. इकरा जावन वीस मिनटां जाल्ली. घड्याळींतल्या काट्यांचेर नदर थिरावन तो उबो रावलो वाट पळेत उरलेली मिनटां वचचीं म्हूण. जुस्त साडेइकरा वरांचेर तो घराच्या दारांत आयलो आनी उजवाडात झगझगत्या कवडेंतल्यान भितर सरलो. चौकीदार थंय नाशिल्लो. धांवत तो सपणां चडून गेलो, वयर आयलो आनी ताणें सालाचें दार उक्तें केलें. एका दिव्याळा एका पोरन्या वोलतेराचेर एक चाकर न्हिदिल्लो. हरमन माजराच्या पावलांनी हळूच वयर सल्लो. बायल-रुम आनी बसपाचे कुडींत काळोख आशिल्लो. सालांतलो दिवो थंय इल्ली पसय फांकायतालो.

हरमन न्हिदपाचे कुडीत आयलो. देवाची मूर्त दवरपाच्या पेडार जायत्या देवांच्यो मूर्ती आसलेल्यो आनी तांचे फाटल्यान एक दिवो धोलतालो. बेटीचेर चिनी वंटी

कागदा डकयलेलीं. फिकट रंगाचे दोमास्क चडयलेली कदेलां आनी पिनलेले आनी कपयो माल्लेले सोफा एके वळीत मांडून दवरिल्ले. मादाम लेब्रुनीन पॅरिसाक पिंताल्लेलीं दोन चित्रां बंटींची सोभा वाडयताली. हांतुतल्यान एकांत सुमार चाळीस एक वर्साच्या मनशाचे चित्र आशिल्ले. ताजे गाल गुलाबी आसले आनी कूड गडगंज आसली. तागेल्या आंगार चकचकीत पांचवें युनिफॉर्म आसलें आनी ताजे छातयेर एक नखेत्र आशिल्ले. दुसरें चित्र आसलें एका लांब मुखावेल्या वटेच्यान सरिल्ल्या नाकाच्या एका तरनाट्याचे. तिगेले केंस कानावयर परतिल्ले. आनी थंय एक गुलाबशेवतें लायिल्लें.

कुडीच्या कोनशा कणकणी चिनी मातयेच्यो बावल्यो, लरोय हाणें आपले कुशालकायेन तयार केल्ल्यो घड्याळी, भांगराच्या वस्तुंच्यो पेटो, कानांतली मोतयां, बायलांक खेळपा पासत फाटल्या शेंकड्याच्या अखेरेक तयार जाल्ले बायलांचे पोनखे आनी साबार खेळ. त्याच बराबर मोंटगोल्फियरचे बोंबाड आनी मेस्मेराचे लोहचुंबक. हरमन पङ्ग्याच्या फाटल्यान गेलो. सामकार लोखणाची एक बाज आसली. उजव्या हाताक वाचपाचे कुडीचे दार आसलें. हे दार एके पाळणींत आसलें. हरमनान ते उक्तें केलें. तें उक्तें करिनाफुडें ताका अशीर वाटांगुळी पास दिश्टी पडली जी वताली ते चलयेचे कुडींत. हरमन फाटल्यान सल्लो आनी वाचपाचे कुडींत गेलो.

वेळ मुंयेच्या पावलांनी फाटी पडटालो. सगले वर्शींनी किण्ण पातळलेलें. सालांतल्या घड्याळीन बारा वरां वाजयलीं. दुसरे कुडींतले घड्याळांनी ताका साथ दिली. मागीर परत किण्ण. एके पालवलेले चिमणेचेर ओणव घालून हरमन उबो आसलो. ताजें काळीज चलतालें एक भिरांतीचे पुण गरजेचें काम करूंक भायर सरिल्ल्या मनशासारकें. घड्याळींत एक घांट वाजली आनी मागीर दोन-आनी मागीर पयस खंय तरी गाडयेची रोदां वाजली. ताजे मन गडबडलें. गाडी येवन दाराभायर उबी रावली. गाडयेंतल्यान देंवतल्या पावलांचो आवाज हरमनान आयकलो. गजबज सुरू जालो आनी चाकर धावूंक आनी बोवाळूंक लागले. घरभर दिवे पेटले. बेगी-बेगीन तीन चाकरिणी न्हिदपाचे कुडींत आयल्यो. ताचे फाटल्यान मरूंक तेकिल्लेवरी कांसाद जाल्ली काऊंटेस भितर सल्ली आनी तिणें आपली कुड उंच फाटीच्या व्होल्तेरात धुकलून सोडली. दाराच्या बुराखांतल्यान हरमन निहाळटालो. ताका सामकें तेकून लिझावेंत गेलें. तें बेगीबेगीन सपणां चडटालें आनी तागेली पावलां व्हडान वाजतालीं. खोणभर हरमन मनांतल्यामनान जळ्ळो. पुण रोखडोच तो थंड जालो. खांबो कसो तो थंय उबो आशिल्लो.

काऊंटेस हारशामुखार उबी रावन आंगावेली देवूंक लागली. चाकरिणींनी तिगेली गुलाबांनी सजयल्ली तोपी देंवयली. उपरान देवयलें पावडर मारिल्ले केंसांचें गंगावन, जाचे तोंळाचे केंस बारीक कापलेले आसले. मार्गार तिगांच्यो राशी झडल्यो. तिगेल्या सुझून गेल्ल्या पायांलागीं रुप्याच्या झगझगाचें न्हेंसणें गळें. आपल्या दोळयांनी हरमन तिगेल्या वीट हाडपी शिंगाराचें गुपीत देखतालो. निमाणें तिचे आंगार रातीची साय आनी एक ल्हानेली तोपी उल्ली. कपडे तिगेल्या आंगार सोबताले. तांका लागून ती भिरांकूळ दिसनाशिल्ली.

हेरां म्हाताऱ्यांवरीच न्हिद येना जावपाचो रोग काऊंटेसीक आसलो. सगलीं आंगावेली देववन जाल्या उपरान काऊंटेस त्या उंच फाटीच्या व्होल्तेरार जनेलालागीं बसली आनी तिणें आपले चाकरिणींक वचूंक दिलें. मेणवाती घेवन त्यो वचूंक गेल्यो. कुडींत काळोख पातयळो. फकत देवाच्या फोट्यामुखार जळटल्या हालतल्या दिव्याची मंद पयस कुडींत येताली. काऊंटेसीचे तोंड हळदकशें हळदुवें आसलें आनी तिगेले ओठ पर्थून पर्थून थरथरताले. व्होल्तेरार बसलेली आसत नाच ती उजव्या-दाव्या अरदान धोलताली. तिगेल्या फिक्कट दोळयांत येवजण नासलेलो भाव उदेलो. तिका पळेत जाल्यार दिसताले की ही म्हातारी जी धोलता ती आपखोशयेन न्ही, जाल्यार कोणय भायल्या धोलवपी शक्तीवरवीं अशी धोलताली.

प्रेतावरी तिगेल्या तोंडार एक आगळोच बदल जालो. तिगेले ओंठ थरथल्ले ते बंद जाले आनी तिगेले दोळे चकचकले. एक अनवळखी मनीस तिच्या फुड्यांत उबो आसलो.

'भिये नाका. देवाखातीर भिये नाका!' तो ल्हवूच पुण नितळ उलयतालो. 'हाव तुका सतावंक येवंक ना. तसो म्हजो हेत ना. हांव तुजेलागीं एक उपकार मागूंक आयलां.'

म्हातारी तटस नदरेन ताका पळोवंक लागली. हरमनाक दिसले की भेड्डी आसतली म्हूण. देखून ताणें तिगेल्या कानालागीं तोंड व्हरून व्हडान आपलीं उतरां नव्यान उलयलीं. म्हातारी आदलेवरीच खडप कशी उल्ली!

'तुवें मनात हाडलें जाल्यार तुज्यान म्हाका जीविताचो सुखी करूंक येता.' हरमनान म्हळें. 'आनी त्यापासत तुकां पानदुड्डू लेर्गीन म्होडचो पडचो ना. हांव जाणां तुज्यान एक फाटल्यान एक खेळपाची तीन पानां सुचवंक जाता....'

हरमन थामलो. हरमन किदें सांगूक सोदता तें काऊंटेसीक समजलें आनी ताका जबाब दिवंक ती उतरां सोदताली.

‘ती एक मस्करी!’ निमाणे तिणें म्हळें, ‘देवाच्यान तर तें फकत फकांड!’

‘ही मस्करी आनी फकांडाची गजाल न्हंय,’ आवाज मोट्टो करून हरमनान म्हळें, ‘चापलितस्कीक विसल्ली - जाका तुवें तागेली आसपत नव्यान जोडूंक आदार दिल्लो.’

काऊंटेस गडबडली. कसल्यातरी जबर रागाचें ल्हार तिगेल्या तोंडार फुटलें. पुण रोखडीच ती आदलेवरी खुंटो जाल्ली.

‘सांगशींत तूं म्हाका त्या तीन सेर्त पानांची नांवा?’ हरमनान नव्यान विचाल्लें.

काऊंटेस वोगी रावली. हरमन उलोवंक लागलो; ‘कोणाखातीर तूं ते गुपीत लिपोवन दवरता? तुज्या नातवांपासत. तांच्यालागी जायती गिरेस्तकाय आसा. तांकां खंय आता दुडवांचे मोल! नाका जाल्लो खर्च करतल्यांक तुगेलीं पानां उपकारचीनात. जो मनीस आपल्या बापायलें धन आपल्या हातांतल्यान वचूंक दिता तो दुर्बळकाय येवन मरून वतां. मार्गार ताणें कितलीय धडपड केल्यार करूं! हांव वणखतां दुडवांचें मोल. तुजी तीन पानां तुवें म्हाका सांगली जाल्यार तीं फुकट वचचीं नात. सांग बेगीन सांग....’

ताणे उलप थांबयलेलें आनी उतावळो जावन तिगेली जापेची वाट पळोवंक लागलो. काऊंटेस कांय एक उलय नासली. हरमनान दिमी तेंकयली.

‘जर तुगेल्या काळजांत केन्नाय मोगाचो कंवळो कोंब फुटलेलो आसत’, तो उलोवंक लागलो, ‘आनी ताचो हय-न्हंयसो उगडास अजून तुगेल्या मनांत आसत, निकत्याच जल्माक आयिल्ल्या भुरग्यांचें रडें आयकुचेले उमळशेकीन जर तूं एक फावट लेगीत हांसल्या, तुज्या हङ्ग्यात जर मनीसपणाची तार केन्नाय हाल्ल्या आसत जाल्यार हांव तुजेलागीं मागतां-बायल, इश्र्टीन, आवयच्या नात्यान-जिवितांत जें किदें पवित्र आसत, सुंदर आसत तांचे नांवांन हांव तुजेलागीं मागतां की म्हजी मागणी फाफडून वडवं नाका. म्हाका सांग तुगेले गुपीत. घडये ह्या गुपीताचो संबंद खंयच्याय व्हडा पापालागी आसत, जाका लागून तुका सर्गाचे दार बंद जातलें घडये ह्या गुपीताचो संबंद देवचरालागी आसूं येता मात्शे चिंतून पळेय. तूं जाण्टी मनीस. ह्या संसारांत आतां तुगेले चड दीस उरुकं नात आनी हांव तुगेली सगळी पातकां म्हज्या माथ्यार उबारून घेवंक तयार आसा.फकत म्हाका तुगेलें गुपीत सांग. मात्शें येवजून पळे. एका मनशाचें साबार सुख तुजे मुठींत आसा. हांवच न्हंय तर म्हजी भुरगी, म्हजीं नातरां पणटुरां, तुजो उगडास काडून उपकार मानतली आनी जतनायेंत तो उगडास बाळगून दवरतली...’

म्हातारी मोनीच रावली.

हरमन उठून उबो रावलो.

'म्हातारे घाडये!' दांत-ओंठ चाबून ताणें म्हळें, 'आतां हांव तुजें तोंड उक्तें करुन घेतां पळेय!'

रोखडोच ताणें बोल्सांत हात घालो आनी पिस्तोल भायर काडलें. पिश्तोल देखनाफुडें म्हातारेच्या तोंडार जबर भाव उदेले. तिणें गुळी आडावंक केल्ले भाशेन तकली फार्टी घेतली आनी हात वयर काडलें.... मागीर कदेलाक फाट तेंकवन बसली... आनी हालोवप-धोलप बंद जालें.

'उलय, उलय, तूं भुरगें न्हंय!' तिगेले हात आपल्या हातांत घेवन हरमनान म्हळें, 'निमाणें फावटी हांव तुका विचारितां तूं सांगतली कांय ना म्हाका त्या पानांची नांवां? उलय. 'हय' वो 'ना' इतलेंच म्हाका जाय.'

काऊंटेसीन जाप दिली ना. ती मरून गेल्ली.

## ६

'हरमन आपल्या इश्टाचेर भौच रागार आसा. तो सांगतालो की तो तागेल्या जाग्यार आसतो जाल्यार दुसरेच तरेन वागतलो आशिल्लो.... म्हाका जाल्यार दिसता हरमनाचो तुजेर दोळो आसा, ताकाच लागून तो आपल्या इश्टाले उलोवणे कान दिवन आयकता.'

'पूण ताणे म्हाका खंय पळेलें आसतलें?'

'कोणाक खबर खंय म्हुण. इगर्जेंत आसत, घडये भोवंक गेल्ले आसतना - घडये तुगेलेंच कुडीत - तूं न्हिदिल्लें आसतना. तो कितें करीत आनी कितें ना ताचें ताकाच खबर.'

त्याच वेळार तीन बायलो तोमस्की बगलेक आयल्यो आनी ताणी विचाल्लें, 'Oubli or regret?' (राग गेलो?) आनी ताका लागून लिझाक इतलें लागशिल्लें उलोवप थंयच तुटलें.

जे बायलेक तोमस्कीन वेंचली ती खासा राजकुंवर ××× आशिल्ली. बॉलरूमाचो एक फेरो सोंपोवन ती तिगेल्या कदेलाकडे येवंक लागली तेन्ना तांचेमदलें झगडें पालवलेलें आनी जेन्ना तोमस्की आपल्या कदेला बगलेक परतलो तेन्ना ताका

हरमनाचें पडून वचूंक नाशिल्लें आनी लिझाकय तो विसरून गेल्लो. तें उलोवणें नव्यान सुरू करूंक रावतालें पुण रोखडोच डान्स सोंपलो आनी त्या उपरान्त काऊंटेस रोखडीच वचूंक उठली.

तोमस्की जें कितें उलयलेलो तें बॉलरुमातल्या बडबडीपरस चड अशें कांय नाशिल्लेय. पुण हे मोगान भारावलेले चलयेच्या काळजाक तीं उतरां रोंबिल्लीं. तोमस्कीन हरमनाचें जें चित्र रंगयल्लें ताचो लिझान आपले मतींत रंगयल्या चित्रालागीं मेळ बसतालो. हालीचे कादंबऱ्यांनी असले हिरो संवकळीचे जाल्ल्यान मनांतल्या मनात ताका फांफुडलो आनी तें ताका भुल्लेंय. आपली उकती भुजां एक दुसऱ्याचेर घालून तें बशिल्लें. तागेले फुलांनी भरिल्ले माथें, तागेलें अर्द उकते छातयेर बागवलेलें. इतलें म्हणसर दार उक्तें जालें आनी हरमन भीतर सल्लो. तिचें आंगान आंग कांचवल्लें....

'खंय गेल्लो तूं?' भिल्ल्या आवाजान तें फुतफुतलें.

'म्हातारे कांऊंटेसीचे न्हिदपा कुडींत,' हरमनान जाप दिली. 'थंय सावनच येतां हांव. काऊंटेस मरून गेल्या.'

'देवा सायबा! कितें सांगता तूं?'

'आनी म्हाका दिसता,' हरमनान फुडें म्हळें, 'हांवच कारण तिगेल्या मरणाक.'

लिझान हरमनाचेर नदर भोंवडायली आनी तोमस्कीची उतरां तागेल्या कानात गाजलीं.... 'उणेच म्हळयार तीन खुनांचें पातक तागेल्या काळजाक रोंबता....'

हरमन जनेलार तिजे बगलेक बसलो आनी ताणे सगलें सांगलें. लिझा तो उलयता तें विट्टून आयकल्लेवरी आयकतालें. आतां ताका कळळें कि हरमनान बरयल्ल्यो मोगाच्यो चिटी, मोगाची मागणी करूंक फुडें पावल उबारिल्लें तें म्हजेवेल्या मोगापासत न्हीं आशिल्लें. फकत दुड्डू! तागेलो आत्मो तानेला तो फकत दुडवांपासत. बावळ्या लिझाच्यान ती तागेली तान कशी भागवंक जातली आसली? कशें तें ताका खोशी करूंक पावत आसलें? नकळतां तें एका खुनी मनशालें वांगडी जाल्लें- आपले धनीणांचो खून करतल्या मनशाचें वांगडी!

पश्चातापान तें रडलें. ताच्या दोळ्यांत दुखांचे झरे फुटिल्ले. हरमन मोन्यानी सगलें पळेतालो. तागेलें मन लेगीत कश्टान भरिल्लें. पुण ते कश्ट मुखार बसून रडटल्या लिझाच्या खतखतत्या दुःखापासत नाशिल्ले वा बायलेच्या दुःखाचे पिडेन तागेल्या फातराच्या मनांत दया किल्लूंक नाशिल्ली. म्हातारी मेली हाची ताका खंत नाशिल्ली. तागेलें काळीज खंती जाल्लें तें गुपीत आतां आपणाक केन्नाच समजुचें ना आनी अशे भाशेन दुडवांची रास ओडपाचें आपलें सपन हांगाच तुटलें म्हुण!

‘तूं देंवचार! देंवचार!!’ निमाणे लिझावेत उलयलें.

‘हांव तिका मारूंक सोदिना आसलों.’ हरमनान जाप दिली. ‘म्हज्या पिस्तुलांत गुळी लेगीत नासली.’

कोणूच उलयले ना.

दीस उदेवक मांडिल्लो. बावत वतार्ली ती मेणवात लिझान पालयली. कुडींत हळदूवी पसय पातळिल्ली. लिझान आपले दोळे पुसलें. रडूरडून तागेले दोळे तांबडे जाल्ले. पाती वयर काडून ताणे हरमनाक देखलो. सारकेपण पळोवन लिझाकय अजाप जालें.

‘तूं ह्या घरांतलो भायर कसो सरतलो?’ कांय वेळा उपरान तिणे ताका विचाल्लें. ‘हांव तुका एक आड वाटेन देंववंक सोदतालें. पुण आमकां काऊंटेसीचे कुडीतल्यान वचचें पडटलें आनी थंय वचूंक म्हाका भिरांत दिसता.’

‘ती आड-पाझ खंय आसा तितलें तूं म्हाका सांग. वाट हांव सोदून काडटां आनी वतां.’

लिझा उठलें आनी मेजाच्या खणातल्यान एक चावी भायर काडून ताणे हरमनाक ती आड वाट समजायली. हरमनान तागेलो थंडेल्लो, जीव नाशिल्लो हात दामलो. ताच्या बागवलेल्या माथ्याचो उमो घेतलो आनी कुडींतल्यान तो भायर सल्लो.

वाटकुळे, अशीर पाझयेवेल्यान तो देंवलो आनी काऊंटेसीचे न्हिदपाचे कुडींत आयलो. मेल्ली म्हातारी फातर कशी जावन पडिल्ली. तोंड शांत आसलें. तिचे फुड्यान उबो रावन हरमन तिका नियाळतालो. ती मरून गेल्या हें भिरांकूळ सत् तो तपासूंक सोदता काय दिसतालें. निमाणे तो वाचपा कुडींत आयलो आनी वर्णटीवेल्या पड्ड्याफाटलें दार सांसपीत एके काळखे पाझयेवेल्यान सकल देवूंक लागला. तागेलें मन भांबावन गेल्लें. मनातल्या मनात तो येवजितालो: साठ वर्साआदी हेच काळखी पाझयेवेल्यान, ह्याच वेळार, हेच कुडीतल्यान एक मानेस्त मनीस - जो आयज जायती वर्सां जाल्ली, कोंडांत कुसता आनी जाच्या मोगाची भरिल्ली काबाय घाल्लो, राजाचे पध्दतीन (aloiseam Royal) केंस कापलेलो तीन कोनाची तोपी काळजाक लावन मोन्यानी भायर सरून गेल्लो आसूंये...

पाझयेच्या निमण्या सोपणाचेर हरमनाक दार मेळळें. तें ताणे लिझान दिल्ले चावयेन उक्तें केले आनी भायर पाळणीत आयलो.

थंयच्यान सोपेपणीच मार्गार वचूंक जातालें.

## ७

तीन दिसां उपरान काऊंटेसीक पुरूंक व्हेल्ले शिमीतरींत हरमन गेलो. तागेले काळीज रडनाशिल्लें. तरी आसतना कित्याक लागून देवाक खबर तागेलो आत्मो एकसारको ताका घोंसतालो- 'म्हातारेचो जीव घेतलो तुवें, तुवेंच.' आनी आत्याली ही घोंस ताका आडावंक येना जाली. धर्माचेर ताजो विस्वास नाशिल्लो. जाल्यारूय मनशाच्या बळग्या - भायल्या गजालीचेर ताजो भावार्थ आशिल्लो. ही मरून गेल्ली काऊंटेस आपणाक पिडत म्हणपाची ताका भिरांत आशिल्ली आनी देखूनच तिचेलागी चूक मागच्या इराद्यान तो शिमीतरेंत आयलेलो.

इगर्ज मनशांनी भरिल्ली. दुखी लोकांमदल्यान हरमनान व्हडां कश्टांनी वाट काडली. काशिचेर विलुदाचो चादर धांकिल्लो. म्हातारेच्या प्रेताक सॅटीन लुगट चडयलेलें आनी तिगेल्या माथ्यार लांस आशिल्ली तोपी घातलेली. दोनय हात छातयेर दवरलेले काशिचे भोवतणी सोयरे आनी चाकर उबे आशिल्ले. चाकरांची वस्त्रां काळीं आशिल्लीं आनी तांच्या खांद्यार रिबिनाचे फुगे लायलेले. सोयरे-धायरे, भुरगीं, नातरां, पणटुरां दुख उक्तें करताले. कोणूच रडनाआशिल्लो. घडये ह्या वेळार दुख दोळयांत हाडप अडेचें जातलें आशिल्लें. काऊंटेस खूबच म्हातारी जाल्ली. देखून तिगेल्या मरणाचें कोणाकूच अजाप जालें ना. तिगेल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक तर ती सुबेज जियेता अशेंच दिसतालें. एका तरनाट्या पाद्रीन मरणाचो सेरमांव वाचलो. साद्या पुण काळजाक हात घालपी उतरांनी ताणे हे पुण्णेस्त म्हातारेक कशें शांत मर्ण आयलें ते सांगलें. 'आपल्या जीविताचीं इतलीं वर्सां मेरेन काऊंटेस खऱ्या क्रिस्तांवपणाच्या मरणाची तयारी करीत आयिल्ली.' पाद्रीन म्हळे, 'जेन्नां मरणाचो आंजेल आयलो तेन्ना ताणे हे म्हातारेक दोळे उक्ते दवरून ध्यानस्थ बशिल्ली देखली- मदयान रातीं येतल्या घोवाची वाट देखूंक बसलेली वरी.' दुखेस्त वातावरणांत निमण्यो विधी रिवाज प्रमाणे सोंपिल्ल्यो. सगल्या आदीं काऊंटेसीचे सोयरे कुडीचें निमाणें दर्शन घेवंक मुखार आयले. जायते जाणांच्या अर्थ नाशिल्ल्या प्रोग्रामांत ती इतलीं वर्सां वचत आशिल्ली. दोन तरनाट्या चाकरीणींनी तिका खांद्याचो आदार दिवन हाडिल्ली. जमनीर बागोवपाची लेगीत तिच्यांत तांक नाशिल्ली. काऊंटेस हात हातांत घेवन उमो घेता आसतना फकत हेच म्हातारेन दोन दुखां झर्डयिल्लीं.

हे म्हातारे फाटल्यान हरमनान काशिलागी वचपाचो धीर केलो. तो जमनीचेर वागवलो आनी कांय खीण मेरेन जमनीचेर नमन करीत रावलो. मागीर तो

उठलो.तागेले प्रेम कशें धवें धवें जाल्लें. कास दवरलेली त्या मेजार वयर चडून ताणें ओणव घातलो..... ताका दिसलें, म्हातारी आपणंक अजापान आनी दोळे हालोवन पळेता म्हुण. तो बेगीबेगी फाटीं सल्लो. तो धरणीर उदारो पडलो! लोकान ताका उबो करून सांवरलो. त्याच वेळार लिझावेताकय उदास आनी खिन्न वातावरणांत एके तरेचो बोवाळ आयकूंक आयलो. लोक फुतफुतूंक लागला. एका किर्डकिडीत मनशान जो काऊंटेसीचोच सोयरो आसलो - म्हण्यांत उबो आशिल्ल्या इंग्लेज मनशाच्या कानांत सांगलें की, हो तरनाटो भुरगो म्हातारेचो पोटचो पूत वर्तता म्हुण.‘आं?’ त्या मनशान वेलेवयर जाप दिली.

दीसभर हरमन गोंधळलेलो आशिल्लो. रातीचें जेवण तो एका कुशीच्या हॉटेलांत जेवलो आनी आपलो नेम मोडून तो सुमाराभायर सोरो पियेलो, आपली खंत घुंवळींत बुडोवचे खातीर. पुण सोऱ्याचो परिणाम वेगळोच जालो. तागेले मन उचंबळून आयलें. तो घरा आयलो. आनी आंगावेली मुस्तापकी देवयनासतनाच हातुणार आडवो जालो. थोड्याच वेळा उपरान तो सुस्त न्हिदलो.

रातीची ताका जाग आयली. चंद्रिमाची मंद पसय कुडींत आयिल्ली. हरमनान घडयाळींत देखलें. तीन वरां जावंक पंदरा मिनटां आशिल्लीं. आतां ताका न्हिदन अशें दिसना जालें. तो उठलो आनी हातुणार वसलो. आजून तागेले मतींत काऊंटेसीच्या मरणाच्यो यादी घोळटाल्यो.

ह्याच वेळार मार्गावेल्यान जनेलांत कोणेतरी तकली घाली आनी रोखडीच फाटीं काडली. हरमनान लक्ष दिलें ना. खिणा उपरांन ताका दिसलें भायर दार कोणतरी उक्तें करता. ताका दिसलें तो ‘ऑर्डरली’ आसत म्हणून जो सदांभशेन पियेवन आयला जायत. पुण पावलांचो आवाज अनवळखी आशिल्लो. ल्हवूच स्लिपर झरयत कोणतरी येतालो. तागेले कुडीचें दार उक्तें जालें आनी धवें न्हेसण न्हेशिल्ली एक बायल भीतर सल्ली.

हरमनाक दिसलें ती आदली आया आसतली आनी ताका अजापूय जालें, अशा न्हय त्याच वेळार ती कित्यापासत आयली आसत? धवें न्हेसण न्हेशिल्ली ती वायर मुखार येत रावली आनी हरमनाचे बकलेक येवन उबी रावली. ती काऊंटेस आशिल्ली.

‘म्हजे इत्सेआड हांव हांगा आयल्यां.’ ती निबर आवाजांत उलोवंक लागली, ‘तुजें मागणें पुरें करपाची म्हाका ओर्द मेळ्ळया. एका फाटल्यान एक खेळपाची तीन पाना तिको, सातको आनी एको हींच जिखपाची पानां. पुण एक मात, दिसात तुका एका पानापरस चड पानांचेर दाव लावंक मेळचे नात आनी ही तिनूंय पानां खेळल्या

उपरान जीवितांत पर्थून केन्नाच जुगार खेळूंक फावना.आनी आयकत हांव तुका म्हज्या खुनाचें पातक लेगीत थोमपूंक तयार आसा. म्हज्या लिझावेतालागी लग्न करचें पडटलें....'

ल्हवूच ती दारावशीं घुंवली आनी वचूंक गेली. भायलें दार वाजलें तें हरमनान आयकलें.

खूब वेळा उपरान तो भानार आयलो. तो बगलेचे कुडीत गेलो. 'ऑर्डरली' जमनीर लवंडून न्हिदिल्लो. हालोवन हालोवन ताणें ताका जागयलो. आजूय तो सदांभशेन सोऱ्याचें घुंवळीत आशिल्लो. हरमनाक ताचे कडच्यान कांयच कळूंक पावलें ना. तो भायर आयलो. दार भितल्ल्यान बंद आशिल्लें.

हरमन आपले कुडींत आयलो आनी मेणवात पेटयली. मागीर तो हो विचित्र अणभव बरोवंक लागलो.



संवसारात जे भाशेन दोन वस्तु एकाच वेळार एकाच सुवातेर रावं नज, तेच भाशेन मनाच्या संवसारात दोन विंगड येवजण्यो एकाच वेळार रावंक पावनात. तिको, सातको आनी एको ह्या तीनूय पानांनी हरमनाचे तकलेत आशिल्ली म्हुर्त पुराय लिपडावन उडयली. ताजे मतींत एकूच घोळटालें, ओठाचेर एकूच नाचतालें - तिको, सातको आनी एको. कोणूय सोबीत चली दिश्टी पडले म्हणटकीर तो म्हण्टालो, 'आं! कितलें सोबीत - जीस्त इस्पिकाच्या तिक्याचें पान!' कोणेय ताका कितलीं वरां जालीं काय म्हणून विचाल्ल्यार तो सांगीः सातांक पांच मिनटां उणी. मोठेल्या पोटाचो मनीस दिश्टी पडनाफुडें ताका एक्याचो उगडास येतालो.

तिको, सातको आनी एको तो सपनेतालो. वेगळें वेगळें रूप घेवन तीं पाना ताच्या सपनात येतालीं. तिको एका व्हडल्या फुलावरी ताज्या दोळयांमुखार फुलतालो. सातको कोठीदाराचें रूप घेतालो आनी एको एक व्हड मोली जातालो. ह्यो सगल्यो येवजणी एका मतार एकठावताल्यो. कशेय भाशेन येदें व्हड मोल दिवन हे जें गुपीत जाणून घेतलां ताजो लाव घेवंक जाय. रेफोर्म घेवन भोंवडेक वचपाचें तो चिंतूक लागलो. पॅरिसाच्या जुगार खेळपाच्या सलुनानी वचून गिरेस्तकायेली गिरेस्तकाय तो लुटूंक सोदतालो. नशिबान ताका हे चिंतेतलो सोडयलो.

त्या दिसानी मॉस्को शारांत गिरेस्त जुगाऱ्यांचो एक पंगड आशिल्लो. ह्या पंगडाचो मुखेल आशिल्लो चेकालिनस्की. पुरें जीवित ताणे इस्पिकांनी खेळपांत काडिल्लें. करोडानी दुडू ताणे जिखिल्लो. तो जेन्ना जिखता, तेन्ना तो हुंड्यो घेतालो आनी हारलो जाल्यार दुडू दितालो. तागेले अणभव आनी हुशारकाय हाका लागून सगल्या वांगड्यांचो ताजेर भरंवसो आशिल्लो. पावण्यांक तो दितालो घसघशीत येवकार, तागेले नावाजलेले रानपी, तागेलो मोगाळ आनी हांसतो सवाव, हांकां लागून तो चडूच लोकप्रिय जाल्लो. आतां तो मॉस्कोसावन पीटर्सबर्गाक आयिल्लो. हांगाय ताजे भोवतणी लोक जमले. बॉल-डान्स विसरून ते खेळाच्या मेजा भोंवतणी जमूंक लागले. फारोची भूल तांकां मोगाच्या खेळापरस चड मानवंक लागली.

नारूमोव हरमनाक घेवन चेकालिनस्कीगेर आयलो. दोंगयजाण उजवाडान झगझगत्यो कुडी हुपून गेले. कुडीच्या दारात चाकर रांगांनी उबे आशिल्ले. काय जनरल्स, प्रिव्ही कौन्सिलर्स 'व्हीस्ट' खेळताले. हेर लोक भोव करून तरनाटे-डान्साच्या सोफांचेर पाय लांबोवन बशिल्ले आनी आईस्क्रीम खाताले, कांय जाण चिर्लीम ओडटाले. कुडीत एका व्हडल्या मेजार यजमान बशिल्लो. ताजे भोवती सुमार वीस जुगाऱ्यांचो जमो आशिल्लो. चेकालिनस्की पिरायेन सुमार साठ वर्सांचो आशिल्लो. तोंडावेल्यान थंड दिसतालो. ताजे केंस पिकील्ले, पुण निरोगी तोंडार मस्करेच्या सभावाची झाक मारताली. तागेले दात चकचकीत आशिल्ले आनी सारके हासते. नारूमोवान हरमनाची ताजे लागीं वळख करून दिली. चेकालिनस्कीन आपलेपणान ताका हात दिलो. परकी मानूं नाका अशे ताका सांगून तो खेळपान गुल्ल जालो.

जाय तो वेळमेरेन खेळ चल्लो, मेजार तीसांपरस चड पानां आशिल्लीं. फावटीन फावट पानां वाटून जाल्या उपरान चेकालिनस्की कांय वेळ थांवतालो. ताका लागून खेळप्याक आपली पानां सारकीं पळोवन घेवंक मेळताली. मागीर हारलेलो आनी जिखिल्लो आंकडो बरयतालो. मोठे नम्रतायेन लोकांलें म्हणणे आयकुन घेतालो आनी त्यापरस चड आपलेपणान बेफिकीर हातात बागवलेली पानां सारकीं धरतालो. निमाणे खेळ सोंपलो तेन्ना पानां कवळलीं आनी तो दुसऱ्या खेळाचे तयारेक लागलो.

'तुजी आडखळ नासत जाल्यार हांवय दाव लावंक सोदतां.' मेजालागीं बशिल्ल्या एका मोठेल्या मनशाच्या फाटल्या अर्दान हात फुडें काडून हरमनान म्हळें.

चेकालिनस्की हांसलो. आनी तकली बागोवन ताणे आपली खोर्शी उक्ती केली. नारुमोवान हरमनाचें अभिनंदन केले. ताणे आपलो नित्शेव मोडलो देखून ताका यस

मेळूं अशी आपली इत्सा ताणे उलोवन दाखयली.

'हांव तयार आसां.' इस्पिकाच्या पानार खोडवान आंकडो वरयत हरमनान म्हळें.

'हें किदें?' बांकवाल्यान दोळे रुंदावन विचाल्लें, 'तुगेलो आंकडो वाचूंक हांवें चूक वी करूंक ना मूं?'

'सत्तेचाळीस हजार.' हरमनान जाप दिली.

हरमनाल्या तोंडची ही जाप आयकून सगल्यानी आपली नदर ताचे वटेच्यान घुंवडायली.

'हाका पिशें लागलां काय कितें?' नारूमोवाक दिसलें.

'रागार जावं नाका आं,' ओंठार सर्दीचो हांसो हाडून चेकालिनस्कीन म्हळें, 'तुजो आंकडो मात्सो चड आसा. आयज मेरेन हांगा पावणे तीनशांपरस चडाचो दाव लागलो ना.'

'नासत. तूं खेळतलो?' हरमन.

सदां भाशेन चेकालिनस्कीन तकली बागायली आनी म्हळें, 'हांवे फकत तुका सुचयलां. म्हज्या इश्टाचो म्हजेर भरवंसो आसा. ताका लागून हांव दुडू मांडून खेळूंक बांदिल्लो आसा.म्हजेपुरतो म्हजो तुजेर भरवंसो आसा. पुण फाटल्यान वोगीच गैरसमज आनी बोवाळ नाका देखून तुवें थोडे दुडू मांडल्यार बरें जातलें.'

हरमनान बोल्सांतल्यान एक नोट भायर काडली आनी चेकालिनस्कीच्या हातांत दिली. ताणे ती उडते नदरेन घेतली आनी हरमनाच्या पानार दवरली.

मागीर ताणे पानां वांटलीं. उजव्या हाताक एक णवको आयलो आनी दाव्या हाताक तिको.

'म्हजो दाव!' आपलें पान दाखयत हरमनान म्हळें.

सगळे खेळपी अजापान फुतफुतूंक लागले. खीणभर चेकालिनस्की लेगीत निर्शेलो. पुण रोखडोच ताणे आपल्या तोंडार सदांच हांसो हाडलो.

'पैशे आतांच दीव?' ताणे हरमनाक विचाल्लें.

'अडचण नासत जाल्यार दी.'

चेकालिनस्कीन बोल्सांतल्यान नोटांचो कवळो भायर काडलो आनी दुडू मेजले. हरमनान पैशे पुंजायले आनी तो उठलो. नारुमोक बगलेकुच आशिल्लो. एक ग्लास लेमन घेवन हरमन घरा वचूंक गेलो.

दुसऱ्या दिसा सांजवेळा तो पर्थून चेकालिनस्कीच्या घरा आयलो. तो पानां वांट्टालो. हरमन मेजाबगलेक आयलो. ताजेर नदर पडनाफुडें हेर खेळपी उठून उबे रावले आनी ताका बसूंक जागो दिलो. चेकालिनस्कीनूय बागोवन ताका मान दिलो.

हरमन पानां वांटपाची वाट पळेतालो. मागीर ताणे एक पान घेतलें आनी ताजेर ताणे ४७ हजार आनी आदले रातीची जोड मांडली.

चेकालिनस्कीन पानां वांटली. उजव्या हाताक गुलाम आनी दाव्या हाताक सातको.

हरमनान सातको उकतो केलो.

सगले अजापून गेले. चेकालिनस्की लेगीत. ताणे ९४ हजारांच्यो नोटी मेजल्यो आनी हरमनाक दिल्यो. थंड मनान आनी थंडपणान मेजावयल्यो नोटी पुंजावन हरमन वचूंक गेलो.

तिसरे राती हरमन आयलो. सगले ताजीच वाट पळेताले. जनरल्स आनी प्रिव्ही कौंसिलर्स 'व्हिस्ट'चो खेळ सोडून तो नवलाचो खेळ पळोवंक जमिल्ले. तरनाटे ऑफिसर्स लेगीत थंय येवन जमलेले. जण एकलो हरमनाचे बगलेक रीगूंक सोदतालो.

आयज दुसऱ्या कोणेच दाव मांडलो ना. ते उतावळे जावन खेळ सुरू जावपाची वाट पळेताले. हरमन मेजाबगलेक उबो रावन मुखावेल्यान चेकालिनस्कीलागी खेळूंक तयार जालो. सदाच हांसते तोंड दवरपी चेकालिनस्कीच्या तोंडार आजय हांसो आशिल्लो, पुण ताजे तोंड मात्शें देंवलेले. दोगानीय नव्यो इस्पिको भायर काडल्यो. चेकालिनस्कीन पानां भायर काडली. हरमनान काप माल्ली. एक पान उबारून ताजेर ताणे नोटीचो कवळो दवल्लो. दोगामदीं झगडें पेटलें कशें दिसतालें. कोणूच उलयनाशिल्लो.

थरथरत्या हातान चेकालिनस्की पानां वांटतालो. उजव्या हाताक ताणे राणी घातली, दाव्या हाताक एको!

'एको जिखलो' हरमनान म्हळे आनी पान उक्तें केलें.

'तुजी राणी गेली,' थंडसाणेन चेकालिनस्कीन म्हळें.

हरमनाक चर्र झालें. तें खरें आशिल्लें. एक्याच्या जाग्यार हुकमाची राणी आशिल्ली. आपल्या दोळ्यांचेरूच ताजो विस्वास बसना जालो. ही येदी चूक कशी घडली हेंच ताका समजना जालें.

आनी एकाएक ताका दिसूंक लागले की हुकमाची राणी आपले दोळे बारीक करून ताज्यो भगल्यो करताली. हे अप्रूप एकरूपण पळोवन तो भियेलो.

'म्हातारी!' तो किळचेलो.

चेकालिनस्कीन जिखिल्ली जोड आपल्या अर्दान ओडली. फातर कसो हरमन पळेतालो. तो जेन्ना थंयचो उठलो तेन्ना सगले लोक व्हडाव्हडान उलोवंक लागले.

'इस्तिमासांवाचो खेळ!'

चेकालिनस्कीन नव्यान पानां वांटलीं. आनी सदां भाशेन खेळ सुरू जालो.

## ९

हरमनाक पिशें लागलां. ओबुखोव हॉस्पिटल्याच्या १७ नंबरच्या वॉर्डात तो आसा.कोणा लागीं तो उलयना. नवलाचे ताकतिकेन तो बडबडत आसता.... 'तिको सातको एको... तिको सातको राणी!...'

लिझावेतान एका गिरेस्त मनशाकडेन काजार केलां. तो सरकारी नोकरी करता. तो म्हातारे काऊंटेसीच्या आदल्या स्टिव्हर्डालो चलो. त्या भायर लिझा एका पयशिल्ल्या सोयऱ्याले चलयेक पोसता.

तोमस्की आता कॅप्टन जाला आनी ताजें राजकुंवर पावलीनालागीं काजार जावपाचें आसा.



